**GAVANTALI SANZ**
By SANJIV VERENKAR



**प्रकाशक :-**
संजीव वेरेंकार
अपूर्व पब्लीकेशन ॲन्ड डिस्ट्रीब्युटर्स
सावय-वेरें, फोंडे-गोंय

**मुखचित्र आनी रेखाचित्र :-**
श्रीधर कामत बांबोळकार

**छापपी :-**
हिरु नारायण नायक
रुतु ऑफसेट
वळवय-फोंडें-गोंय

**पयली उजवाडावणी :-**
२९ डिसेंबर २००२

**मोल :-**
७० /- रुपया

जाणे पेटयल्ल्या दिव्याच्या उजवाडान, हांवे म्हज्या प्रवासाची वाट सोदून काडली त्या भाईक (रमेश वेरेंकार) हें पुस्तक ओपता.

-संजीव

# मांडावळ

# गांवांतली सांज

फाटल्या चार दसकांत गोंयचे जिणेंत व्हडा प्रमाणात बदल घडून आयला. गोंय मुक्तीन गोंयची समाज जीण आनी अर्थकारण बदलूंक लागलें आनी हाचो परिणाम समाजांतल्या विंगड विंगड घटकांचेर जालेबगर रावलोना. थोंडी वापरुन धार गेल्ली उतरां घेवन सांगपाचें जाल्यार जुवारी आनी मांडवी न्हयांतल्यान खूप उदक व्हावन गेलां.

म्हत्वाचें सांगपाचें म्हळ्यार ह्या बदलांचो परिणान गोंय मुक्ती उप्रांत उदेल्ल्या कोंकणी लेखकांचे तरणे पिळगेचेर जालो आनी ह्या बदलांचे साद पडसाद आमकां तांगेल्या साहित्यांत आयकूंक येतात. नव्या अर्थकारणाचो परिणाम म्हूण गांवांतले लोक शारांत वस्ती करुंक येवंक लागले. तांका लागून गांवगिरे वाठार ओस पडूंक लागले. इंग्लंडांत जाल्ल्यां उद्योगिक क्रांतीक लागून गांवगिरे वाठार आवतिकायेंतल्यान गेले ताजें चित्र आमकां ओलिव्हर गोल्डस्मित हांच्या The Deserted Village हे दीर्घ कवितेंत पळोवंक मेळटा. कोंकणी साहित्यांत गोंयचे आवतिकायेंचे हे चित्र आयलां पूण आज हे खर सामाजिक वास्तव आमकां संजीव वेरेंकाराल्या 'गावांतली सांज' ह्या नव्या कविता संग्रहांत पळोवंक मेळटा. वेरेंकार हो सामाजिक परिस्थितीचें भान आशिल्लो कवी. 'भाव झुंबर', 'मुंबर' ह्या तांगेल्या हे आदी उजवाडा आयिल्ल्या संग्रहानी ही जाणविकाय आयल्या. सामाजिक जाणविकाये वांगडा सैमाचो मोग तांगेले कवितेच्या विश्वाचो एक वेगळांवंक येना असो आशय देखूनूच "भावझुंबर" ह्या तांगेल्या पयल्या कविता संग्रहांतल्यो 'म्हज्या प्राणा परस प्रिय अशा / प्रदेशाची सुंदराय जातूंत भल्ल्या / तीं सैमरंगी पांचवी चार झाडां कापपी / त्या खाटकांकूय आमी पळयल्या. हे ओळींक वेरेंकाराल्या नव्या कविता संग्रहांतले कवितेच्या संदर्भांत खाशेलो अर्थ आसा. आजकाल उदरगतीच्या नावान सैमाचेर हावळ येता तें पळोवन कवी आकूळ पिकूळ जाता. आनी हाकाच लागून तांगेले कवितेच्या उतरांक धार येता.

वेरेंकाराल्या ह्या नव्या संग्रहांतल्यो चडावत कविता गांव, गांवांतलो सैम, सामाजीक मुल्यांचो जायत वचपी ऱ्हास ह्या आशया भोंवतणी विणिल्ल्यो आसात सामाजीक आशय व्यक्त करतनां इंगळेकशे पेटपी तांची कविता सैमाची चित्रां रंगयताना तिजो सूर ल्हवपीक जाता 'सांज' हे कवितेंत कवी म्हणटा

नक्षत्रांची पेटोवन दिवाळी
आयली सांज आयली सांज
रुखा रुखाच्या पाना जाळयेंतल्यान
मोडत मोडत आयली सांज

(सांज)

गांवातले सांजेक लय आनी नाल आसा. ती नक्षत्रांच्या उजवाडांत न्हाता. तिका ग्रावं मळपी पारकाराल्या घाण्याचो ठेको आसा. कवी शारांत गवपी मनशांक गांवची म्हजी असली सांज तुमकां शारांत केन्ना दिसल्या व्हय ? असो प्रस्न विचारता. आनी ह्या प्रश्नांतूच जाप लिपिल्ली आसा.

आज काल शारां कॉंक्रिटाची जंगला जाल्यांत. मनशांक आपलें असें व्यक्तिमत्व ना. गांवांत प्रत्येक मनशाक पयले नांव आसता तर शारांत आडनावां. गावांत दर एकलो दर एकल्याक वळखता तर शारांत लोक आपआपल्या फ्लॅटांनी आपलें पुरती वंय करुन रावता हाचेर वेंकागल्ली कविता अचूक बोट दवरता

कॉंक्रिटच्या ह्या रानांत
कितलेशेच दीस जाले
हांव अडाणी
शेणिल्ल्या मनीसपणाची
सूर सोदतां
पूण सूर मेळना सूर जुळना (कॉंक्रिटच्या रानांत)

ह्या संग्रहांतली ही कविता शारांतली जीण आनी गांवागिरी जीण हांचे मदी आशिल्लें अंतर स्पष्ट करता. ताका लागून हे कवितेक खाशेली सुवात आसा. प्राप्त जाल्ले परिस्थितींतल्यान कवी आपल्या मनान सुटका करुन घेवचेलो यत्न करता. 'सवण्या म्हज्या मोगा' ही कविता ते नदरेन म्हत्वाची आसा हे कवितेच्या निमाणेकडेन तो म्हणटा.

सवण्या म्हज्या मोगा
कितें करुं सांग आतां
पानाविणें रुख कसो
मनाविणे हांव हांगा
तळमळटां तळमळटां

ह्यो वळी वाचतना मनोहरराय सरदेसांयाल्या 'गोंया तुज्या मोगा खातीर' ह्या संग्रहांतल्या कांय वळींची याद जाता. कोंकणी कवितेचे परंपरेचो धागो अशे तरेन वेरेंकाराली कविता मुखार व्हरता. कविता ही ते ते भाशेंतले परंपरेचेर पोसता हें सूत्र परंपरा मोडपाची भास उलयतल्या कवींनी मतींत दवरुंक जाय.

नव्या अर्थकारणाचो व्हडप्रमाणान समाजव्यवस्थेक आनी पर्यायान मुल्यव्यवस्थेक तडाको

बसलो. मुल्यव्यवस्था आरती परती जाली. रासवळकुटूंबां मोडलीं. वेरेंकाराक हे गजालींची खंत दिसता. सगळयांक आपल्यामदी आस्पावन घेवन समाजाक फुडें व्हरपी व्यवस्थेंची तो सप्ना पळयता. अशें म्हाका एक घर जाय / घरांतल्यान भायर सरतना कपलाक बिंभूत लावंक येंवपी / जंय म्हजी एशीं वर्सांची आजी आसतली / रातचो कळाव करुन भितर सरतांच सोंप्यार बशील्ले कडल्यान / दोळे वठारुन पळोवपी / जंय नव्वद वर्सांचो म्हजो आजो आसतलो / अशें म्हाका एक घर जाय ह्यो ओळी तांगेल्या सप्नाक underline करतात. अशी व्यवस्था नाशिल्ल्यान किंदें जाता ताजो पडटाळो आमकां चांटे पावलाक मेळटा.

वेरेंकारालीं कविता रुपकांचो वापर करता. आनी तातूंतल्यान आशय मोट्या प्रभावीपणान व्यक्त जाता. 'परतून फुट्टलो कोंब' हे कवितेतलो म्हारुख वा 'वडा तुजी दशा' हे कवितेंतलो वड हांचे कवीन मानवीकरण केलां. कथेची बसका घेवन ह्यो कविता आयल्यात. सुचकताय ही हे कवितेचें खाशेलेंपण अशें म्हाका म्हणीन दिसता.

वेरेंकाराले हे कवितेक आपली अशी भास आसा. तिचेर कवील्या व्यक्तिमत्वाची कुरु उदेल्या. जांगेक जाल्लें चरतें कशे / कात मेळत थंय चरत वता / तशीं ही काँक्रिटाची रानां / माती मेळत थंय वाडत वता / माती मेळत थंय वळत वात. हातूंतली चरत्याची प्रतिमा कवितेची नवी भास उलयता. 'भावझुंबर' आनी 'मुंवर' ह्या आदल्या संग्रहांतली तांची कविता आपलें व्यक्तिमत्व घडोवपाच्या यत्नात दिसता. पूण आतां तिका आपली वाट मेळळ्या. तांगेले कवितेंत सार्माजिक आशय टूम म्हूण येना तर तो तांच्या अणभर्वविश्वाचो वेगळो काडूंक येना असो भाग म्हूण येता हेंच तांगेले कवितेंचे वैशिश्ट आसा. तांगेले कवितेंत आयकूंक येवपी आशावादी सूर तिका खाशेली सुवात प्राप्त करुन दिता.

संजिव वेरेंकाराल्या ह्या संग्रहान कोंकणी कवितेक नवो आयाम दिला. तिका आनीक मुखार व्हेल्या. कोंकणीतले कांय कवी एकाच संग्रहाचेर थांबल्यात. वेरेंकारालो हो तिसरो कविता संग्रह कोंकणी कवितेच्या पर्जळीत फुडाराची गवाय आसा...

ताळगांव — **- माधव बोरकार**

२१/१०/२००२



# सांज

नक्षत्रांची पेटोवन दिवाळी
आयली सांज आयली सांज

रुखा रुखाच्या पाना जाळ्येंतल्यान
मोडत मोडत आयली सांज

सांज सवण्याची सांज सूरांची
खुळूखूळ वाजता घुगरां पानांपानां

मळबा पोरसांन सवण्या भिरी
पाखां हालयत दर्या पार करतानां.






# गांवांतली सांज

तुळशी पेडयेवयलें
निरंजन पेटोवंक
आवय म्हजी आंगणात येता
दिसभर झाडा झाडांर हेडपी सवणी
पाखां पाखांतले रंग ओतीत
भिऱ्याभिऱ्यांनी घोटेरांत येतात
देवळांतल्या नबतीची शेनाय
वाजूंक लागता
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता !

फटी खोकीत खोकीत
कॉप मारुंक मायले गादयेर वता
आनी तेच वाटेंतल्यान
शेजारचो चंद्री किल्लभर तांदूळ,
च्याचोपालो, साखर आनी
फातयेच्यो बिसकुत्यो घेवन
घरांत भितर सरता
आनी चैत्रांतलो चांफो कसो
ताच्या बायल भुरग्यांच्या ओंठार
हांसो फुलता
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता !

सांकवा सांकवार
कुळवाड्यांची गर्दी जाता
विड्ये, शिगाराचे झुरके मारीत मारीत
तिट्यार चकाटां रंगार येता
आनी विठ्ठलाल्या भज्यांच्या वासान
सगळ्यांच्याच तोंडाक लाळ सुट्टा
तेन्ना म्हज्या गांवांतली सांज येता !

गांवचे म्हजे सांजेक
लय आसा ताल आसा
मळबांत लुकलूकपी नक्षत्रांचो
उजवाड आसा
खोबरें मळपी पारकारल्या घाण्याचो
ठेको आसा
गांवची म्हजी असली सांज
तुमकां शारांत केन्ना दिसल्या व्हय ?





## शांत सांजे

*गांवचे म्हजे शांत सांजे*
*तुळशी पेडयेर पेटटा वात*
*युगां युगां जगय*

*सृष्टी आंगार*
*चैतन्याचे येता कळे*
*सदांकाळ फुलय*

*मळबांतल्या*
*नक्षत्रांचो आपालीपा*
*नित्यनेमान खेळय*





# आमोरी

रंगशे आमोरेक चडटा भांग
वसंताचें गळटा आगळ
फुलां फळांच्या गंद रोसान
झाडां मनां चींब चींब

सवण्यांचे सूर नवे
पानापानांत उडटा तरंग
मन मोगरे मांटवार
चेतनेचे फुलता कळे

कुळागरांतले शितळ झरे
उमेदीचें गीत आळयता
सृजनाक येता जाग
रंगशे आमोरेक चडटा भांग








# योरे योरे पावसा

योरे योरे पावसा
नाचत नाचत यो
उडत उडत यो
पोरसांतल्या झाडांक
आमच्या घुसू घेवन यो

योरे योरे पावसा
दोंगरा माथ्यावेल्यान
शेता कुळागारांतल्यान
सवण्या सूरांतल्यान
रुखां झोपां हालयत यों

योरे योरे पावसा
घसघशांनी यो
मांडकुल्यांची व्हडी व्हरुक
तळ्या खळ्यांनी
उदक व्हांवयत यो







# भुरगें

मुक्त मळबांत उडचें शेवणें
तशें बाये तुजें जिणें
खिणात हांसचें खिणात रडचें
पिसोळ्याचें मन कशें
फुलांफुलांर नाचचें

वत येता पावस वता
सुकती येता भरती वता
ताका नारे ताचो थांग
तुजें जिणें सुंदर बाये
अशें कशें तें सांग



# पावस

मातयेच्या गर्भाचो
घेवन गंद
दडका दडकांनी
आयलो पावस



घुडूम घुडूम
गडगड तटतट
जोगलां पेटयत
कांडीत शबै
दडका दडकांचो
पडटा पावस

खर दुवाळ्यांची
भिजून गेली
धर्तर सगळी
चींब ओली ओली
दडका दडकांच्या पावसान

वया वयली पोरां कशी
झाडां मस्तेलीं
शिरशिरावन पानां
वाऱ्या वांगडा आकूळ्ळी पिकुळीं
दडका दडकांचो पडलो पावस



# सैम

गावांत म्हज्या
सैम घसघसून ओतता
कर्पल्या ताळ्याची तान लेगीत
थंय जळाविणेच भागता



## शेणलो हांव

*शांत तिळसांजेर*
*निळ्या मळबाक फुटलीं पाखां*
*रंगरंग धर्तरेर*
*अशा वेळार*
*आंबोरेचे रंग न्हायत*
*तुज्या दोळ्यांत बुडलो हांव*
*तुज्या मनात रंगलो हांव*
*रंगाचो रंग जावन*
*तुज्या काळजांत शेणलो हांव ..!*



## उजवाडाचें दार

थेंब थेंब तळें जालें
तशें म्हजें
उतर उतर ब्रम्ह जालें
नकळटाना
उजवाडाचें दार म्हाका
उक्तें जालें








# म्हजें भुरगेपण

आंगणात
म्हजें माणकुलें स्नेहा
पुट्टू पुट्टू पेदलां मारीत
सायकल चलयता तें पळोवन
म्हज्या दळिद्री भुरगेपणाक जाग आयली
तेन्ना फाटलेवाटेंतल्या
भाटकारालो नातू राजांगणात
सायकलीचीं
व्होलतां मारतालो तें पळोवन
आवयचे हांडीर बसून
कुसूंय कुसूंय करुन
हांव धोंगशे मारतालो
तेन्ना म्हजे आवयक
कसल्यो वेदना जाल्यो
आसतल्यो काय ...?



# ल्हारां

ल्हारां ल्हारां नाचता
आमकां पळोवन हांसता
मनातलें गुपीत हाडून
देगेर येवन सांगता
तेन्ना म्हज्या दोळ्यांतलो चंद्र
मुमूरखोच हांसता





# वसंत

गंदेलाच्या पावलांनी
येता वसंत येता वसंत
फुला फळांच्या बसून
झोपाळ्यार येता वसंत

परमळाच्या धुंद ल्हारांनी
सृष्ठ भारेल्या रंग रंगांनी
झाडा आंगार वारो सळसळटा
खातखुतल्यांनी पानां किकयता

सवण्या ओंठार सूर म्होवे
घेवन येता रंगाचे दुवाळे
अमृताचे ओतयत वझरे
येता वसंत येता वसंत



# आमोरेर

काळशा कुपांचे चडटे आमोरेर
कोणा माथ्यांत जायो झुळझुळ्ळ्यो
आनी ओल्या मनाच्यो गारगारशो
श्रावणसरी सळसळ्यो

भितोडेचो मधूर वझरो
तळपा कानांत गीत गुणगुणलो
आनी काळजाच्या झुंबरांतल्यो
यादी जायो जावन परमळ्ळ्यो

शांत उबीं मळबापोंदा
कुडू कुडू न्हाता झाडां
झाडांच्या पानापोंदा
शिरशिरता सवण्या पाखां

काळखे रातीच्या मळबांगणात
काजुलवातींचे पेटले दिवे
आनी मनामनात
उजवाडांचे फुल्ले कळे

# नाका नाका म्हणटना

नाका नाका म्हणटना
कळना कसो हांवूय पावलो
ह्या कोंक्रिटच्या रानात
घड्याळीच्या घुंवत्या कांट्यार
नदर दवरुन
कांटो कुलेर घेवन
उब्या उब्यांनी आमलयताना
भुरगेपणात केळीच्या खोल्यार
जेविल्ल्या जेवणाचो
कसोच म्हाका धेकर येना
ह्या कॉंक्रिटाच्या रानांत

कळमेल्ल्या नळाचे तोटयेंतल्यान
थेंबथेंब उदक झिरपताना
मनाक म्हज्या फुट्टा पाखां
आनी दोंगरा पोंदच्या वझऱ्याचें
घसघशीत उदक न्हांवक
मन म्हजें उडून वता
पैसुल्ल्या म्हज्या गांवांत!



जंय अजुनय
मनामनाचे वसंत फुलता
रुखा खांद्यानी एकाच सूरान
सवणी गायतात
जंय कोणालेय रांदनीर
सळसळूदी केन्नाय कसलेंय आदन
येता ताचो सर्वय सुगंध
कोणाल्याय काळजार जावदी घाय
सगळ्यांच्याच दोळ्यांत येता दुखांची साय...!

अशा म्हज्या गांवाचे
सदांच म्हाका दुवाळे
तरीपूण नाका नाका म्हणटना
कळना कसो हांवूय पावलो
ह्या कॉक्रिटच्या रानांत








# काँक्रिटाच्या रानांत

काँक्रिटाच्या ह्या रानात
कितलेशेच दीस जाले
हांव अडाणी
शेणिल्ल्या मनिसपणाचो
सूर सोदता
पूण सूर मेळना सूर जुळना

ह्या रानांत
झाडां नात पेडां नात
सवणी नात सावदां नात
हांगा रावतात मुजावर, डिसौझा
सिंग, कामत, नायक, गावडे नावांचे
साबार माकन मानव

हांगा चवथ ना दसरो ना
दिवाळी ना ...!
पूण नरकासूर मात पावला पावलाक
नाचताना दिसतात







हांगाय कोणाचोय बापूय मरता
आवय मरता, भाव मरता
भयण मरता, भुरगो मरता
पूण कोणय शेजारी अडाणी म्हणत
हे लटके भिरांतेन
कोणूच केन्ना गळो फोडून रडना

देखून नितीची कसलींच मुल्यां
हांगा केन्ना पोसवना
तरीपूण काँक्रिटाच्या ह्या रानात
हांव अडाणी
कितलेशेच दीस जाले
शेणिल्या मनिसपणाचो सुर सोदता .....!






## म्हज्या गांवां

शबै शबै नाचता
रुतू वसंत म्हज्या गांवां
वाऱ्याच्या खातकुतल्यांनी
शिरशिरता पानां
आनी झडटा फुलांफळां

पोन्र्या यादींचीं सुकणी जावन
उडटात राना वना
काण्णा चुन्नां घालतात साद
जागतात भुरगेंपणां ...

## सवण्या म्हज्या मोगा

सवण्या म्हज्या मोगा
वचगो उडून आतां
मन म्हजें उडून गेलां
खंयतरी रांना ...!

कशे उडूं सांग म्हाका
म्हजींच पांखां लावन पुता
मन तुजें उडून गेलां
पयस पयस गांवां
तांबडे मातयेचे कणकण हुंगताना
दिसता म्हाका दिसता म्हाका

मन तुजें शेता बांदार कुल्ल्यो गरयता
कणसांतले पोटीर चोखीत
शेंत शेंत भोंवता
मन तुजें बालार टवलो मारुन
काई व्हरता
गड्‌डयार गड्डो मोकून गड्डे जोडटा
मन तुजें हुमलो जावन
ताळ्ये ताळ्येर भोंवता

सवण्या म्हज्या मोगा
कितें करुं सांग आतां
पानाविणे रुख कसो
मनाविणे हांव हांगा
तळमळटां तळमळटा

# वडा तुजी दशा

हे वडा
तुजी दिशी दिशी दशा दशा
तुं आसलो कोण
जालो कोण .... !
तुज्या सांवटांतल्यानय झिरपल्ल्या
सुर्याच्या किरणाच्या उजवाडान
आमी वाडिल्लीं रुखां
अजुनय गायता तुजे व्हडविकायेची गितां
तुजी कीर्त म्हान
तुजी सासाय म्हान
तूं आमचो राजा
तुज्या आदर्शांच्यो आमी गायल्यात
हजार कथा

देखून आमी आर्त आर्त घालता साद !
हे वडा, तुज्या शिरंतरांतलें रगत घोटपी
सर्वांगार बळावल्ली ती बेनल्ल
आतांतरी वेणून वडय...
तिच्या खातकुतल्यांक
नाका भाळू नाका भाळू
नकळटांच लागतलो
तुज्या आंगाक रोटो
बट्टेतलीं सगळी पाळामूळां
आनी एकदीस
तू जातलो मातयेभरवण!





## कविता

*नक्षत्रांच्या थेंब्यांचे*
*दोळ्यांक लागून दुवाळे*
*मन भोंवता रात रात*
*सोदीत उजवाडाचे मळे*








# काँक्रिटाची रानां

जांगेक जाल्लें चरतें कशें
कात मेळत थंय चरत वता
तशी ही काँक्रिटाची रानां
माती मेळत थंय वाडत वता
माती मेळत थंय बळत वता

झाडां पेडा हुमटना
रडटा सैमं घळघळ्यां
तरीपूण कळ्ना तांचे दुख कोणा
ह्या काँक्रिटाच्या रानात फकत
दुडूरदेवा दुडूरब्रह्मां...

हांगा सवण्यांचो चीवचीव ना
वझऱ्यांचो झुळझूळ ना
मनिसपणाचें गीत तर केन्नाच
अंदलें ह्या काँक्रिटापोंदा





काल पयर लेगीत
सवण्यांच्या म्होंव्या सूरांनी
न्हातालीं हीं असंख्य रुखां
आतां रुखांय ना
आनी सुरुय ना
आतां उरल्या ते फक्त
सुरांचे गाज
तेय बी फकत कविच्या मनां
ह्या काँक्रिटाच्या रानात
फकत दुडूरदेवा दुडूर ब्रह्मा

ह्या रानात
पयर म्हज्या एका इश्टाचो
बापूय मेलो ...!
पाचारुक सोपणा चडटा चडटा
करपल्या भावनांचो दर्प गेलो नाखयां
आनी हांव फाटले फाटी परतलो
पाचारीनासताना त्याच खिणा ...!











# जिणें

हांगा कोणा मनाचे वसंत फुल्ल्या
कोणा मनाचे शिशीर झडल्या
चरतें जाल्ल्या गच्च्य घरांनी
कसलोच लागना थांग !

हांगा, कोण कोनाचो
न्हयरे सखो सोयरो
न्हयरे इश्ठ आपलोपेलो
व्यवहाराच्या घुंवत्या माखनाचो
मनीस एक शेणिल्लो खिळो !

यंत्रासारकें जिणे आमचें
मनिसपणाचें जुळना नातें
एक सारकें बळत गेलां
चरतें ह्या शाराचें





# अजून मूळ धरना

इमारतीचें गर्देगर्देत
वर्सां वर्सां सरली हांगा
तरी दोंगरा मुळसांतले
गांवचे म्हजे सुरंगीचो परमळ
कळना कसो
अजून नाकांतल्यान सरना
बांदावयल्या झाडांझाडांर
सवण्या पाखांचे शिरशीर रंग
अजून दोळ्यांतल्यान हालना
कणसा कणसाच्या कानाकानात
गीत आळवपी
कामेऱ्यांचे सूर म्होंवे
अजून कानांतल्यान वचना
इमारतींचे गर्देगर्देत
वर्सां वर्सां सरलीं हांगा
एकूय रुतू फुलना
एकूय रुतू फळना
एकुय रुतू कळना
कितलें खणलें कितलें रोयलें
कळना कशें
अजून मूळ धरना
देखून मन म्हजें
सोदता वचूक आतां
आसलें तशें गांवां






# म्हाका एक घर जाय

म्हाका अशें एक घर जाय
जंय आसतलो सदांसर्वकाळ
सूर्याचो लख्ख उजवाड
पोरसांतली चीवचीव सवणी
भयाविरयत पडवेर येवन
आशे वेंचतलीं
अशें म्हाका एक घर जाय
सकाळ उदेतांच
शेजारच्या उसमानाली भरगीं
आंगणात म्हज्या शिल्ल्यो खेळटलीं
दनपार जातांच
मुखावयल्या जाकिनालया
आदनाची वासपूस करुक
जंय दारांत म्हजी आवय उबी आसतली
अशें म्हाका एक घर जांय
घरांतल्यान भायर सरताना
कपलाक विभूत लावंक येवपी
जंय म्हजी ऐशीं वर्सांची आजी आसतली
रातचो कळाव करुन
भितर सरतांच सोप्यार बशिल्लेकडल्यान
दोळे वठारुन पळोवपी
जंय णव्वद वर्सांचो म्हजो आजो आसतलो
अशें म्हाका एक घर जाय
अशें म्हाका एक घर जाय

## घणचे कटर घण

घणचे कटर घण
घणचे कटर घण
पयस पयस नदरे पैलाडी
भुमीचो उत्सव जातारे
गंदेलाची मारीत पावली
रुतू वसंत सर्वय नाचतारे

आनी
मनिसपणाचो सूर नाशिल्ल्या
बंद दारांच्या गच्च घोटेरांत
हांव दळदिरो जळाविणे नुस्तें कसो
तळमळटारें...
पयस पयस नदरे पैलाडी
भुमीचो उत्सव जाता रे

# परतून फुट्टलो कोंब

खातखुतल्यो करपाचें नाटक करून
ते वेनुल्लेन त्या म्हारुखाचें
सगळें रगत घोट्टून वडयलें
आनी आतां तो पालेना फुलना
फळना जाला

केन्ना ताचे सावळेपोंदा
तर केन्ना ताच्या सांवटापोंदा
वाडिल्ल्या आमी बाळकांनी
तेन्नाच ताका शिटकायल्लें
पूण तेन्ना ती बेनुल्ल
मोरपाखी मेनका कशी दिसली
तो कोणाचेंच आयकलोना

बेनल्ल ताचे जिणेत
चरतें कशी चरत गेली
नकळटांना पाळामुळां बड्डेली
गात्रां गात्रां सदळ जाली
आनी आतां
आमच्याच दोळ्यांमुखार
ताच्या उरिल्ल्या सांगाड्याचे
खांदे कचाकच मोडून पडूंक लागल्यात
आतां ताचें आमकां
सांवटूय ना आनी सावळीय ना जाल्या

पूण आमकां
अजुनय शंभर टक्के विश्वास आसा
ताज्या मुळाक परतून फुट्टलो कोंव
घसघसून वत्तलीं पावसाचीं कुपां
आनी मातयेंभरवण जातल्या
म्हारुखाच्या मुळापोंदा
जाल्लें सगळें रेंबकोंड
वतलें म्हांवून वतलें व्हावून...

# झाडांनो पेडांनो

हे झाडांनो पेडांनो
अशी कित्याक रावल्यां मोनी
वर्सा वर्सांनी आयला देखून
तुमी म्हाका वळखनात ?

कित्याक कडकडटात
कित्याक थरथरतात
उलयात काळीज उक्तें करुन
असलो कसलो मोनेळ पडला तुमचेर ?

हांव तुमचोच
तुमच्याच वाऱ्यान वाडला हांव
परिस्थितीचो जावन बळी
जियेव खंयूय बंदिस्त थळी
पूण तुमच्याच पानांफुलांचो परमळ
व्हांवता म्हज्या काळजांत सदां

झाडांक
म्हज्या काळजाचो कळवळो
आनी बोंबलेच्या देठाची भास कळ्ळी
आनी झंजरुन पानां
जागल्यो तांच्यो भावना
आनी मुळूमुळू रडूंक लागलीं
कोमऱ्या कोमऱ्यांतल्यान



कोणा एका बिलडराच्या
खरवतीची दात्रां तांच्या सपनात येवन
तांका खांवक सोदताली
वर्सासंकीचो इतिहास आनी अणभव
पचयत
अथांग मळबाचो थांग घेत
उबी आशिल्ली झाडां
आपल्या वंशावळीच्या हुस्क्यान
पयलेच खेपे कडकडटाली थरथरतालीं

हे झाडांनो पेडांनो
तुमी म्हाका प्राण दिला
तुमी म्हाका श्वास दिला
तुमच्यो वेदना म्हाका असह्य जाल्या
हांव गर्बगळीत जाला
ह्या सांवारात
सगळ्यांच्याच अस्तीत्वाचो
प्रश्न जाला
हे झाडांनो हांव कितें करु ... ?








# प्रवासांत

हे वाटेच्या प्रवासांत
कसली मोडणा हुपची पडत
कसली वजी पेलची पडत
कळना म्हाका कळना म्हाका

हे वाटेच्या प्रवासांत
नव्या हावेसांच्या सपनांची
सोपणा चडटना
कसली सुकां सोडची पडत
कसली गीतां गिळची पडत
कोण जाणा कोण जाणा

कृत्रीम जीणेचे नवे फारकेंत
बीयां म्हजीं किल्ल्यताना
मनिसपणाचो सूर म्हाका
मेळत काय ...!





## तुजो प्रवेश

*संवसाराचे माचयेचो*
*पड्डो उगतो करुन*
*तुवें प्रवेश केलो भरदनपारां*
*तेन्ना....*
*सूर्यान खीजभर दोळे धांपले*
*आनी बीण्ण काळोख जावन*
*म्हज्यांतलो चैतन्यरुपी*
*वसंतरुतू केन्ना गळून पडलो*
*कळोच ना ...!*








# धोल

हांव म्हळ्यार
शिगम्याचो धोल कसो
वाजयन दिसता ताणे तोणी मारपाचो
कोणेय कोणाच्याय गळ्यांत लकोवपाचो

वाजवन वाजवन
चामडें म्हजें पातळ जालां
कोणूय येयात कोणूय वाजयात
म्हजो आतां आवाजुच बंद जाला !






# चान्याच्यो कविता भेटल्योचना

हालीसरा
म्हाका चान्याच्यो कविता भेटल्योच ना
पांचव्याचार झाडांच्यो
मळबांत उडटल्या
सवण्या भिऱ्यांच्योय
कविता भेटल्योच ना...!
म्हाका कविता भेटल्यो
कवळ्या पोरांक हांडीर मारुन
भीक मागत फुटपातार भोंवपी
अनाथ मातांच्यो
कोयराच्या बल्ल्यांतलें शीत पुजोवपी
पोरांच्या कंवळ्या मनाच्यो
आनी खिणा पडिल्या
तांच्या काळजाच्या व्यथांच्यो
म्हाका कविता भेटल्यो
अनाथाश्रमांत वाडटल्या
निश्पाप बालिकांचेर केल्या आगळिकांच्यो
ताणी मारिल्या हुयेलींच्यो
म्हाका कविता भेटल्यो
अन्यायाच्यो अत्याचारांच्यो
ऱखरखीत उज्याच्यो
देखून हो असो
उतराउतरांतल्यान हुलोप पेट्टा....!

# प्रवाशी

कोणाची तरी लिप्ट मेळत
हे आशेन
ते दिसा रातीकडेन
नामनेचो कवी, लेखक सुटके झुजारी
खडेगांठ पत्रकार अशी सावार विरुदां आशिल्लो
हांव कोणतरी
येतल्या वतल्या गाड्यांक हात दाखयत
वरांचीवरां रस्त्यार उबो

दोन रोदांची
चार रोदांची
कितली वाहना आयली
आनी मटकेकार, सौर्तीकार, आडसरांकार
सग्ळ्यांक घेवन गेली
म्हजेखातीर कोणाचोच ब्रेक लागलोना
हांव कोण ?
ह्या एकाच प्रस्नाची जाप
सोदपाचे तंदरेत आसतनाच
निमाणे वराराची बस येवन थारली
मार खोट घाल भितर
अशें म्हूण किलींडराना
हुंदराच्या बुराकाक गुड्डो मारचो
तसो म्हाका बशीत धोंगशीलो



तेन्ना जात्रेंतलो बोमाडो फुटचो
तसो म्हज्यांतलो हांव ठूस करुन फुटलो
म्हजें एक एक बिरुद शेणत रावलें
हांव कोण नासलो !
हांव आसलो फकत
वेंतभर पोटाचे भरीखातीर
दिसभर घाम गळोवन
बसीचे दाणयेक गोळो मारुन
रातचेवेळार घरा परतुपी
एक सर्वसामान्य प्रवाशी ...








# आमी हे अशे

*आमी कशे ...!*
*हें आमी केन्ना कोणाक सांगलेंच ना*
*पुण आयज तें सांगपाचो वेळ आयला*
*देखून सांगता*
*आमी हे अशे मुंबरापोंदचे इंगळे कशे*
*फूक मारता तेन्ना तेन्ना पेटपाचे*
*आमी केन्ना पेटलेना अशें जालेंचना*
*फूक मारपाची तितली फुरसत*
*आमी पेटलेच...*
*आमच्या उज्यांत*
*के न्ना कोणे हात भाजून घेतल्यात*
*केन्ना कोणे पांय भाजून घेतल्यात*
*केन्ना कोणेय भाकऱ्योय भाजून खाल्यात*
*आमी हे अशे*
*मुंबरा पोंदचे इंगळे कशें*
*फूक मारता तेन्ना तेन्ना पेटपाचे*



# होळी

तुमी नाल्ल फोडूक येतले म्हणून
इतली वर्सां आमी झुजयली होळी
गळ्यात घालून आमीच बडयले धोल
आनी होळयेच्या नावान
कांडली शबै शबै

तुमी नाल्ल फोडूक येतले म्हणून
कोणा आलवातिणीची
कोणा देवगतेची हाडां
आमीच पुरली होळयेच्या नेमात
गड्यांच्या नावान
आमीच मस्तीली माती
आनी तुमी बलकांवार बसून
फकत रंग उधळले

अंदू तशें घडचेंना
आमची नवी पिळगी होळी झुजोवचेना
गळ्यांत धोलकें घालचेना
तांका रंग उधळपाचो आसा
रंग उधळपाचो आसा ...



## गाराणे आमचेंच जाय

खंयच्याय
देंवचाराक कोणालोय कोंबो
कोणालोय बोकरो मारात
पूण गाराणे आमचेंच
जांवक जाय
अशें सांगून शिंगा हालोवन
पुजून घेवप्यांच्याच घरांचेर
परत परत पावस पडटा
तांच्याच शेतांत कणसार कणस येवन
पिकता भात
देखून सगळ्यांचीच आदना
तांचेच राक्नीर सळसळूंक लागल्यांत





# पालखी

पालखी
तुमच्या खांदार जड जाली
तेन्नाच तुमी आमच्या खांदार दवरली
आनी मदींच खांद सोडून
लहवूच कूस मारली

खरें म्हळ्यार
हे पालखेक आमच्याच
भूजांची गरज आसली
आता कोणे चिंता करपाची गरजना
आता मदी पेणे खंयच ना
पालखी देवळामेरेन वतली








# काळखाचें राज्य

पेट्टे दिवे पालवताना
सोपत वता उजवाड
काळखाचें राज्य घेवन
नाचता हांगा
म्हारु आनी देंवचार

पेट्टे दिवे पालवताना
नागवण्याची भरली भांडा
फटकिऱ्यांचेंच सादलें हांगा
विश्वासाचो वचून बळी
भंगली आमची सपना

पेट्टे दिवे पालवताना
उजवाडान सोडलो प्राण
काळखाचेर येवन भार
अन्यायाच्या उज्यान
ओकली हांगा केणा

काळखाच्या ह्या राज्यांत
कोण पेट्टा कोण जळटा
पावली मारता थंय थंय
जित्यांचीच सरणा पेट्टा




## आगों

पूण्य भूयेच्या मोगाळ पूता
सरणार पेटलो तू
ायलॉनाच्या गळफासाच्या
ुक्ती होमखणातली
ावन एक समिधा

आयज अशें जालें कितें
दोळ्यादोळ्यांत दुकां तळें
झाडां पेडांक पडून मौन
सवण्या सूर सुकून गेले

तुवें व्हांवयल्या रक्तधारांनी
पर्यावरण मुक्तीचो इतिहास घडयलो
हे पूण्य भूयेच्या वीर पूता
वचचें नारे तुजें फुकट बलिदान

ही झाडां ही पेडां
दोंगर, दर्या सवणी सावदां
गायतली तुज्या त्यागाची
सदांसर्वकाळ गीतां ... !



# कोंकोच कों

कोंकोच कों कोंकोच को
कोंबडी फकत कोंकारता
कोणूय हात मारीत देखून
कशीच तातें घालीना
कोंकोच कों कोंकोच कों...

तांतया आशेन
आंवडे घोटीत
कितले कोंबे रावल्या राखत
पूण कोंबडी कशीच बदना
तातीं कशीच घालीना
कोंम्याक तातीं मेळना
तरीय कोंबे हालना
कोंकोच कों कोंकोच कों
कोंबडी फकत कोंकारता

# पोरां

कोयराच्या बल्लांत
गोटे वेचपी हीं काचीबूचीं
पोरां कोणालीं ?

कोण तांचो बापूय
कोण तांची आवय
खंय तांचो गांव
ह्या साबार प्रस्नांच्यो
जापो सोदताना
सारे जहाँ से अच्छा हिंदूस्थां हमारा
ह्या गीताचे बेसूर गाज
म्हज्या कानार आदळूंक लागता
हांव अस्वस्थ जातां
आनी कोयराच्या बल्लांत
हांव सोदता
तांच्या अस्तित्वाचें निशाण ...!



# पेडांतलो पिंपळ

म्हज्या गांवच्या पिपळा पेडार
कोण तकली बागयता
कोण वात पेटयता
कोण कापूर जळयता
पूण, पेडाच्या वेटाळ्यांत
पाळां अंदिल्लो बावडो पिपळ मात
धर्तरेच्या खोलांत पाळामुळां फाकारुक
फाटल्या साबार वर्सांसावन
कष्टत उबो आसा
तो पानापानांतल्यान रडत आसा
पूण कळना कोणाक व्यथा ताची
दिसना कोणाक दुकां ताचीं
म्हजेंय तशेंच जालां
रंवथो जाल्या ह्या गच्च शारांत
पांजऱ्यांतलो पीसो कीर कसो
उक्त्या मळबांत झोपय मारुक
उडूक सोदता वयर वयर
पूण दारां उगडना
पांजऱ्यांत रावून रावून जड जाल्ली
पाखांय हालना
पेडांतल्या पिपळाचें दुकणे
आनी म्हजे दुकणे
एक जालां एक जालां



# दुकूच दुक

केन्ना केन्ना
भर वसंतातूय
म्हज्या मनाचो शिशीर झडटा
आनी
संवसाराचे साणीर
हळडीचें खुट कशें
म्हज्या दुकाचें मूळ
गंद कशें झरत रावता
तेन्ना
आठुय़ पार रुखांवांगडा
प्रणयरंग उधळपी
वाऱ्याच्या दोळ्यांतल्यानय
अळंग दुकांची धार व्हांवता
आनी रुखाच्या पाना पानांत
सवण्याच्या सूरासूरांत
दुकूच दिसता...



# मुक्त कर

अज्ञानाच्या काळखातल्यान
प्रवेश करीत उजवाडाची वाट सोदीत चलताना
पायांक लागिल्ल्या काटच्यांच्यो वेदना
असह्य जातात
हे उजवाडाच्या देवा
ह्या काळखाचो पड्डो फोड
नाजाल्यार खंयतरी चीर घाल
तातल्यान झिरपून येवदी
एकदांचें सूर्याचें केण
आनी कसोयतरी जावंदी
काळखाचो गोबर

हे उजवाडाच्या देवा
तुजे वाटेक दोळे थिरावन
हांव घुसमट्टा
ह्या अज्ञानाच्या काळखांतल्यान
म्हाका मुक्त कर





# हांसो

पंचनखेत्री हॉटेलाच्या त्या
भव्य दिव्य दरवटयांतल्यान
भितर सरता तेन्ना
लग्नाच्या माटवांतले व्हंकलेभाशेन
फाटीर धोलपी लांब लांब केसांच्यो
गोऱ्यो गोमटयो अस्तुऱ्यो
ओंठार म्होवो हांसो फुलयत
सगळ्यांकुच येंवकार दितात
तेन्ना
कोणाल्या काळजांतलो पिंपळ पेट्टा
कोणाल्या मनातलो वसंत सळसळटा
कोणाल्यो वखवखील्ल्यो नदरो
वस्त्रहरण करपाक तांच्या आंगार झुडून वतात
तरी पूण त्यो हांसत आसता
हांसप हेंच तांचे काम आसता!
तांच्याय काळजांत दर्यायेदें दूख आराता
कोणालो बापूय घरांत मरणाचे धडेर आसा
कोणालो अर्धांग जाल्लो घोव हातरुणार तळमळटा
कोणाल्या घोवान कोणाक घटस्फोटाची धमकी दिल्या
तरी पूण ह्या दरवटयार तांका हांसचेंच पडटा
हांसप हेंच तांचे काम आसता ...!
हांसो म्हळ्यार खोसयेचें उत्स्फूर्त दर्शन
ताचें जाता व्यापारीकरण
तेन्ना दर्यायेदें दुख लेगीत गिळून हासचें पडटा
वेंतभर पोटाखातीर
हांसप हेंच तांचे काम आसता...!








## कोण केन्ना

कोण केन्ना
कसल्या जळांत कसो पेंवत
सांगू येना...

कोण केन्ना
कसलो रेबो उस्तीत
सांगू येना ...

कोण केन्ना
त्याच रेंबकणातल्यान
कसलें साळीक फुलयत
सांगू येना ...!









## आमी पालोवक नासले

*आमी*
*पालवले म्हणून समजून*
*तुमी आमकां माट्टीत गेले*
*आनी फाटल्यान*
*आमी पेटत रावले*
*पेटत रावले*

*आमी पालोवंक नासले*
*गोबरा पोंदच्यो कीटी जावन*
*आमी राविल्ले*
*कोणाचेतरी फुकेची*
*वाट पळयत ...!*






## ताळयो मारच्योच पडटल्यो

*आतांमेरेन*
*निबर जमनीत नेमां मारुन*
*माटोव घालपाचें काम आमी केलें*
*आनी आयत्या माटवांत*
*तुमी जायतशी भेंडा हालोवन नाचले*
*आमी फकत ताळ्यो मारल्यो*
*आतां तशें घडचेंना*
*आता माटव तुमी घालपाचो*
*नाचपाक आमची भेंडा शिवशिवल्यांत*
*तुमकां ताळ्यो मारच्योच पडटल्यो*

# कंप्युटर



संवसाराची
जनेलां उगतीं करपी
ह्या कंप्युटरान
म्हज्या आत्मविश्वासाक
पेटयला सुरंग
जळून जळून जाल्ल्या गोबरान
सोदूनय सापडना
इल्लो लेगीत ताचो अंश
देखून
बेदुणे चार अशें कोणेय
कितलेंय आड्डून सांगलें
तरीय म्हाका खरें दिसना
म्हूण हांव गुलाम जावन
कंप्युटरा कडेन पळयतां...
तेन्ना पुराणातल्या भस्मासुराचे
जीतेजीवे काणयेचो म्हाका उगडास जाता
आनी स्वताच्याच माथ्यार हात दवरुन
स्वताचोच गोबर करपी भस्मासूर
म्हज्या दोळ्यांमुखार नाचूंक लागता
कंप्युटराच्या रुपान ...!



## आतां मातशे गायात

गायात सवण्यानो
गायात सुखण्यानो
गायात वझ्यांनो
आतां मातशे गायात

म्हजे ल्हेवे ल्हेवेंत
भरसूदी तुमचे सूर
आनी श्रावणातल्या पावसात
भिजचो तसो
जांवदी ओलो चींब चींब

परिस्थितीचो जावन बळी
गांव माती जाता पोरखी
नव्या होवसाची फुलोवक सपना
शाराची वाट चलताना
तुमचें मोनेपण म्हाका
असह्य जालां...

देखून गायात सवण्यानो
गायात वझ्यांनो
आतां मातशे गायात



ह्या शारांत
झाडां ना पेडां ना
काण्णा ना चून्ना ना
तृप्त जावन न्हावपाखातीर
दोंगरापोंदचे वझरे ना

कामेऱ्यांची गीतां आयकूंक
पांचवीचार शेतां ना
माड ना  माडयो ना
आमोरेची नबत आयकूक
देवपणाची देवळां ना
तिनसांजची वात पेटोवंक
दाराभायर तुळशीचें पेड ना
पाख्याच्या बुराकांतल्यान
झिरपतलें चंद्रीमाचें चान्ने न्हावंक
मेकळे थंय मळब ना

देखून गायात सवण्यानो
गायात सुकण्यानो गायात वझऱ्यांनो
आता मातशे गायात
तुमच्या यादिंच्या परमळान
चेतनेचे मळे म्हाका फुलोवंक जाय
शेणिल्ल्या मनिसपणाचे सुर
थंय लेगीत आळोवंक जाय!

# कोंब्या खा

कोंब्या, खा....
जिबेक विचारुन विचारुन
मागून घेवन खा

आयज तुका
कोणूच ना म्हणचोना
फाल्यांचे सांगू येना....!
देखून आयजुच खा

आयज दसरो
तुज्या मानाचो दीस
सगळी पूजा
आयजुच करुन घे



संजीव वेरेंकार, जल्म २९ ऑगस्ट १९५९ वर्सा सावयवेरें गांवात. मुळावें शिकप सावयवेरेंच्या सरकारी प्राथमिक शाळेंत, माध्यमिक शिक्षण उत्कर्ष विद्यालय सावयवेरें (कृष्णा शेटये सावयकार विद्यालय) जाल्यार पदवी मेरेनचें शिकप पणजेच्या धेंपें कला आणि विज्ञान महाविद्यालयांत जालें.

संजीव व्यवसायान पत्रकार आसलो तरी पिंडान कवी बदलत्या काळाचो वेध घेवपी, सामजिक जाणीवेचो एक बरोवपी. तांचे हाचेआदी 'भावझुंबर' 'मुंबर' हे कविता संग्रह जाल्यार 'मांड ओसाड जातना' हो एकांकी संग्रह मेळून तीन पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत. ह्या तीनूय पुस्तकांक कोंकणी भाशामंडळाचे पुरस्कार लाभल्यात. 'वास्तु पुरुषाचो अस्त जातना' ह्या तांच्या नभोनाट्याक अखिल भारतीय आकाशवाणी केंद्राचो ९९-२००० वर्साखातीरचो राष्ट्रीय पुरस्कार जाल्यार 'इतिहासाचें एक पान' हे एकांकिकेक अस्मिताय प्रतिष्ठानचो पुरस्कार फाव जाला. तांच्या एकांकिकांक वेगवेगळ्या सर्तींनी लेखनाची आनी सादरीकरणाची इनामा मेळ्यांत.

आपली कविता फक्त पुस्तका पूरती मर्यादित उरनासतना ती प्रत्यक्ष लोकांच्या काळजामेरेन पावची ह्या हेतून सिताराम नायक हांचें निवेदन लाभिल्ल्या 'काव्य झाडाझडतीचें' ह्या कार्यक्रमाचे गोंयच्या वेगवेगळ्या महाविद्यालयांनी ताणी प्रयोग सादर केल्यात. आनी ताका रसिकांकडल्यान बरो प्रतिसाद मेळा. संजिवाच्या कवितांचो पाठ्य पुस्तकांतय आस्पाव जाला. कोंकणी राजभास आंदोलनात (१९८५) तांचे योगदान आसा. नायलॉन ६६ आडच्या आंदोलनात भूमिपुत्राचे सक्रिय भावनेत तो वावुरला.

प्रवास हो तांचो आवडटो छंद भारतीय साहित्य अकादमीचे प्रवास अनुदान योजनेचो लाभ तांका मेळ्ळा, १९७९ वर्सा गोंय ते विचापूर ही सायकल भोंवडी जाल्यार १९८१ वर्सा गोंय ते मंगळूर मेरेनची पदयात्राय ताणी केल्या.